गांधी साहित्य – १०

# अशे आशिल्ले गांधीजी

पैलो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो भोंवतालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*

—अल्बर्ट आअिन्टाअिन



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गोमंत भारती प्रकाशन

१९६०

अ ग वा डा व पी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गांवदेवी–मुम्बै ७.



पैं ली खे प
२६ जानेवारी
१ ९ ६ ०

मोल :—
०·५० नये पैसे
सवूय वांटे ऐकठांय
२·५० नये पैसे
बांदिल्लें पुस्तक
३.०० नये पैसे

छा प पी
स्यं. रा. शिगरे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

# आरंभाचीं अुतरां

सांस्कृतिक पुनरुत्थानाचें कार्य जेन्ना सुरू जाता तेन्ना लोकांचे भाशेक अेक आगळेंच म्हत्त्व येता. संवसाराच्या सांस्कृतिक अितिहासाचेर अेक अुड्टी नदर भोंवडायत जाल्यार आमकां हो `म सगळे कडेन सारको लागू जाल्लो दिश्टी पडटा.

रूढींच्या बेड्यांनीं बांदिल्ल्या समाजाक मेकळो करपाचो वावर जेन्ना भगवान बुद्धान आपल्या हातांत घेतलो तेन्ना ताका सगळ्यां नदरांनीं गिरेस्त अशी संस्कृत भास सोडून लोकांचे पाली भाशेचोच पालव घेवचो पडलो. हीच परंपरा मुखार संतांनीं चलयली. ज्ञानेश्वराची "भावार्थ दीपिका" जावं वा तुळशीदासाचें " रामचरित–मानस " जावं, आमकां लोकांचे भाशेंतच बरयल्लीं वाचूंक मेळटात. सामान्य लोकांक जागवचे आसत. जाल्यार लोकभाशेबगर दुसरी खैंचीच भास अुपकरा पडपाची ना.

आमीं जरूय नोकऱ्यो, गिन्यान वा मान–भौमान जोडपा खातीर आयज मराठी, कन्नड, पुर्तगेज, अिंग्लेज वा दुसरे खैंचेय भाशेचो पालव घेतलो तरूय आमच्या प्रदेशांत जिका लोकां–भास म्हणुंयेत अशी अेकूच भास घोळटा–ती म्हळचार, कोंकणी. आमच्या लोकाच्या अंतस्कर्णाच्या खोल तळाक आफडून ताका बरे संस्कार जोडून दिवचे आसत आनी सांस्कृतिक पुनरुत्थानाच्या वावरांत ताचो हातभार जोडून घेवचो आसत जाल्यार आमचे कडेन कोंकणी सोडून दुसरी भासूच ना.

आनी आयज तर युगच अुदेलां तें सामान्य लोकांचें ! जाका आमी आयज मेरेन बारीक दुबळो लोक म्हणटाले तो आयज 'बारीक दुबळो' अुरूंक ना. तो जागो जाला. अश्या वेळार जें साअित्य आमी निर्माण करतांव तातूंत चैतन्याची ज्योत आनी तेजस्विताय आसूंक जाय, माणसुकेचो व्हड आदर्श आनी युग धर्माक धरून चलपी नवी जिणे–मोलां मेळूंक जाय; आनी लोकांनीं तें आदरान वाचचें म्हुण समाजांत तशेच तरेचें वातावरणूय निर्माण करूंक जाय.

'गोमंत भारती' न ह्याच हावेसान कोंकणींत गांधी–साहित्य हाडपाचो वावर हातांत घेतला. अितलेंच न्हय, तर गांधी विचाराचीं अध्ययन मंडळां, शिबिरां, व्याख्यानां आनी हेच तरेचीं दुसरींय कामां ती तांकी प्रमाण करीत आयल्या. सर्त आनी सत्या हांचे पसून पेस रावन "अल्पारंभः क्षेमकरः" ह्या भावार्थान ल्हान ल्हानच कामां ती आंगार घेत आयल्या. आनी, ल्हान तोंडांत व्हड घांस घेवन पुण अत्यंत नमळायेन म्हणचें जाल्यार, सज्जनांचो आधार मेळत जाल्यार कोंकणी समाजाच्या सांस्कृतिक पुनरुत्थानाची वाहक जावपाची महत्त्वाकांक्षाय ती मनांत बाळगीत आयल्या.

'गांधी साहित्य माळें'त आयज मेरेन अुजवाडायल्लीं आमचीं सगळीं पुस्तकां वेंचीक, सासणाच्या मोलाचीं आनी हेर भासांनीं स-स, आठ-आठ खेपो अुजवाडा आयिल्लीं आसलीं, तरूय कांयां वाट्यांनीं गंभीर आनी जड आशिल्लीं. मनशाक तान लागिल्ली आसली आनी अश्या वेळार ताका अुदका वांट्याचें कोणेंय जेवण वाडलें जाल्यार, जेवणाचें महत्त्व कबूल आसुनूय तो जसो अुदकाक आशेना तशें हे बाबतींत घडिल्लें आमकां दिसून आयलें. गंभीर पुस्तकां घेवनूय "गांधीजींचींच पुण गंभीर न्हय असलीं पुस्तकां आमकां दियात" अशें कांय जाण म्हणूंक लागले. तांचे सारकेल्यांची ही तान भागवपा खातीर आयज आमी हें धावें पुस्तक अुजवाडायतांव. हातूंत गांधीजींचे जिणेचीं वेगळीं वेगळीं आंगां ल्हान-ल्हान आख्यायिकांच्या रुपान दिल्लीं आसात. पू. काकासायब आपले प्रस्तावनेंत म्हणटात ते भशेन, "ह्यो आख्यायिका म्हणीं भशेन लोकांचे जिबर घोळूंक लागतल्यो" अशी आमकां अुमेदच न्हय, तर खातरी आसा.

हें पुस्तक जण-अेका कोंकणी भक्ताच्या घरांत पावचें आनी चड करून तें नवे पिळगेच्या हातांत पडचें अशी आमची मनापसून अित्सा आसा. आमची ही अित्सा भागूं अितलीच प्रार्थना.

— अुजवाडावपी

# अनंत पिळग्यांचें दायज

सुक्या अुपदेसा परस व्हड लोकांच्यो जिणो वाचप आमकां चड आवड्टात. व्हड लोकांच्यो जिणो वाचून आमकां नवें कितें तरी शिकपाची, पुरुषार्थ करपाची आनी आपले जिणेंत बदल घडवन हाडपाची अुमेद येता. जांकां आमी व्हड मनीस मानतांव ते भुरगेपणांत कशे आशिल्ले, तांचे मुस्तींत संवसार कसो आशिल्लो, तांणीं तातूंत कितें केलें, तांच्यांत व्हडपण कशें आयलें आनी ते संवसाराक कशे अुपकरा पडले हें सगळें जाणा जावन घेवप म्हत्त्वाचें आसता.

कोणें अेकल्यान म्हळां कि खैंच्याय देशाचो अितिहास समजून घेवंचो आसत जाल्यार त्या देशांतल्या व्हड लोकांच्यो जिणो वाचच्यो. हें म्हणणें बऱ्याच वांटयांनीं खरें. सणावळीक बांदिल्लो अितिहास वाचपा परस त्या त्या देशांतल्या व्हड लोकांच्यो जिणो वाचीत जाल्यार तरण्यां भुरग्यांच्याच न्हय, तर जाणत्या-नेणत्या सगळ्याच लोकांच्या मनांत अूंच पांवड्याचो हावेस जागो जाता.

पुण व्हड लोकांच्यो जिणो आमकां वाचूंक मेळनात. मेळ्ळ्योय जाल्यार त्यो पुराय वाचून काडप आमकां जमना. आनी आमी तांचे जिणेंतल्यो म्हत्त्वाच्यो अश्यो दोन-चार गजाली आयकून हेरां भाशेन म्हणूंक लागतांव कि अमको अमको मनीस खूब मोटो आसलो आनी ताचो ताच्या समाजाचेर खूब मोटो प्रभाव पडिल्लो !

व्हड लोकांच्यो जिणो वाचपा परस तांचे जिणेंतल्यो ल्हान ल्हान गजाली वाचल्यो जाल्यार त्यो आमच्या लक्षांत रोखड्योच अुरतात. तांची गोडसाणूय वेगळीच आसता. वाचनाफुडें त्यो मनांत भरतात. चड वाचपाची चुटपुट लायतात आनी चारित्र्याच्या, पराक्रमाच्या, व्हडपणाच्या वा अुदार सभावाच्या अेकाद्रया आंगाचो सुंदर दिश्टावो घडवन दितात.

व्हड मनशांचे असले ल्हान ल्हान अुगडास म्हळयार तांगेले जिणेचीं अुडटीं चित्रां आसतात आनी तीं अुडटीं आसतात देखुनूच मनांत घट्ट अुरतात.

कांय व्हड प्रसंगार मनीस व्हड आनी आकांताच्यो करण्यो करता तेन्ना तातूंतल्यान घेवपाचो बोध वेगळो आसता. सामान्या भायल्या प्रसंगार मनीस आपले जिणेंतलें सामान्या भायलें अंग अुक्तायता हें खरें. पुण जो हाडानूच व्हड, जाणें अेकासारको जागरूक रावन आपली जीण घडयल्या ताचे जिणेंतले ल्हान-व्हड सगळेत्र प्रसंग ताच्या सभावाक आनी चारित्र्याक फुलवन दाखयतात. आनी असल्या ल्हान ल्हान गजालींतल्यान जें व्हडपण दिसून येता तेन्ना तातूंतल्यान घेवपाचो बोध वेगळो आसता. ताचो आमच्या मनाचेर खोल परिणाम जाता.

कांय व्हड मनीस तांगेले जिणेंतले अेकेच खेंचे करणेक लागून व्हड जाल्ले आसतात. बाकिची तांगेली जीण सामकीच किरकोळ वा अळणी आसता. पुण खरेलो व्हड मनीस जिणेच्या सगळ्या आंगांचेर येवजिता आनी म्हुणूच तागेले जिणेंतलीं सगळीं तासां चकचकीत आनी ओडलायणीं जातात.

गांधीजी हे तरेचे म्हात्मे आसले. तांणी आपले जिणेच्या सगळ्या आंगांची वाड घडवन हाडिल्ली. देखुनूच तांगेले जिणेंतल्या गजालींची ओड आनी आगळेपण सोंपून सोंपना.

खंचेय वटेन तांचे जिणेकडेन पळेयात, तुमकां तांचें व्हडपणच दिसून येतलें. आनी जें दुबळेपण, मोह वा गफलत दिसतली–असले प्रसंग खुबूच थोडे आसात–थंय लेगीत तांगेल्या मनीसपणाची स्वाभाविकताय आनी आपलीं अुणीं कबूल करपांत दिसून येवपी प्रामाणिकताय हांचीच चड ओड दिसूंक लागतली.

व्हड मनशांचे बाबतींत अेक संकट सदांच आसता. तांगेलें व्हडपण लोकांच्या मनाचेर बसवपा खातीर कांय जाण आपल्या मनांतल्योच आख्या-यिका बरवन काडटात वा खऱ्या आख्यायिकांक रंग लावन त्यो अदीकच भडंग करून अुडयतात. ह्या खातीर आख्यायिका अेकठांय करतना खुबूच जतनाय घेवंची पडटा.

आनी गांधी तर सत्याचे पुजारी, सत्याचे आग्रही, खासा सत्याची म्हूर्तंच. तांच्यो आख्यायिका बरयतना सत्याक मात् लेगीत बादा येवंची ना हाची जतनाय घेवंकूच जाय.

आमचे पिळगेचें भाग्य म्हणूंक जाय कि जांणीं गांधीजींक आपल्या दोळयांनीं पळेल्ले, जे तांचे सरीं राविल्ले असल्या लोकांनींच गांधीजीं विशींचे आपले अुगडास बरवन दवल्ल्यात आनी ते कितले खरे आसात हें पळवपा खातीर तांचो कस लावपी लोक अजुनूय आमचे मदीं आसात. म्हण ह्या वेळारूच तांच्यो आख्यायिका आनी अुगडास अेकठांय करूंक जाय.

जिणो आनी हेर बरपां लोक स्वता वाचतात आनी दुसऱ्यांक वाचूंक सांगतात. आख्यायिकांची गजाल वेगळी आसता. त्यो लोकांचे जिबेर बसतात आनी लोक अुलयतना त्यो वापरतात. हाका लागून त्यो नाण्या भशेन लोक-वेव्हारांत घोळूंक लागतात.

आनी सदांच वापरपाच्यो वस्तु जश्यो वापरून वापरून गुळगुळीत, घाटीव आनी चकचकीत जातात तश्यो लोकांचे जिबेर घोळपी आख्यायिकाय निजाचें रूप घेतात.

म्हुण्णूच आख्यायिका बरयतल्या मनशान सत्याक मात् लेगीत बादा हाडिनासतना त्यो अश्यो कितें बरवंक जाय कि त्या आख्यायिकांनीं आशिल्ल्या बोधाक लागूनच न्हय तर त्यो सांगपाचे शैलीक लागून लेगीत लोकांक तांची ओड लागूंक जाय. असली शैली आसत जाल्यारूच त्यो म्हणीं सारक्यो घोळूंक लागतल्यो.

वयर सांगलांच कि गांधीजी निस्पृह, सत्यवादी, सत्याग्रही संत आशिल्ले. पक्षपात बाळगिनासतना सगळयांचेंच कल्याण करपा खातीर ते वावुरताले. तांचे मुस्तींतले ते सगळयांत व्हड मनीस आसले. म्हुण्णूच लोक तांकां पुरुषोत्तम म्हणूंक लागिल्ले. स्वराज्याची सेवा करता आसतना तांकां आयुष्यभर जायते कश्ट सोंसचे पडिल्ले. पुण ते केन्नाच मनान जावं अंतस्कर्णान हारूंक नात. दु:खांत वा निर्शणेंत बुडून वचूंक नात. आपले

आस्तिकतेक लागून, ओीश्वरावेले श्रद्धेक लागून आनी मनीस-जाती वेल्या मोगाक लागून ते सदांच प्रसन्न आसताले.

तांचे जिणेंतलीं हीं सगळींच कुसां ध्यानांत दवरपा सारकीं आसात.

ते संत आसले, समाजसेवक आसले, राजकर्णी आसले; आदर्श मित्र, आदर्श गुरु आनी आदर्श मुखी आसले. तांचे अुगडास आमी मोगान आनी भीमानान वाचूंक जाय, आयकूंक जाय, सांबाळूंक जाय आनी आपले जिणेंत तांचे पसून बोध घेवंक जाय.

गांधीजींचे अुगडास म्हळयार अनंत पिळग्यांचें अेक दायज. ह्या अुगडासांनीं गांधीजींचो जितलो सहवास आमकां मेळत तितलो आमीं घेवंक जाय आनी मुखावेले पिळगेक तो मेळवन दिवंक जाय.

आपले भाशेंत जांणीं हें सगळें दायज आमकां हाडून दिलें तांचे अुपकार तर आमकां सदांच दिसूंक जाय.

२-१०-१९५९
(गांधी जयंति)

—काका कालेलकार

## ल्हान ल्हान कामांय मोटीं

गांधीजींक ल्हान कामां आनी व्हड कामां असो फरक मान्य नासलो. सगलींच कामां सारकीं, सगल्यांनी करपाचीं अशें ते मानीत. देखून आश्रमांत सान्न मारप, न्हेसणां अुमळप, तांदूळ वेंचप, दळप, कांडप, अितलेंच न्हय तर पायखिळे साफ करप हांकांय लेख बरवप, भाशणां दिवप, सत्याग्रह करप ह्या कामां अितलेंच मोल आसलें.

हें काम बायलांचें, तें वावराड्यांचें, आनी हें फुडाऱ्याचें अशें कामांचें वाटप गांधीजींनीं करूंक नासलें. सगलींच कामां मोटीं आनी सगलींच पवित्र अशें ते मानीत.

साबरमतीक निकतोच आश्रम सुरू जाल्लो. अेक दीस अेक मोटो वकील गांधीजींक मेळपाक आयलो. ताका गांधीजींच्या हाताखाल रावन देशाचे सोडवणुकेचो वावर करचो आसलो. तो आश्रमांत पावलो त्या वेळार गांधीजी तांदूळ वेंचूंक बशिल्ले.

"म्हाका तुमच्या हाताखाल रावन देशाचे सोडवणुकेचो वावर करूंक जाय." त्या मनशान म्हळें.

"अशें ? घेयात तर. हें काम करात." अशें म्हणून गांधीजींनीं ताच्या मुखार अेक ताट दवल्लें. तांतूंत तांदूळ घाल्ले.

येदो मोटो वकील ! ताणें असलो वावर केन्ना केला ? तो तोंड आं करून गांधीजीं कडेन पळेत रावलो.

गांधीजींनीं म्हळें, "देशाची सेवा ल्हान–ल्हान कामांतल्यानूच करूंक लागूंक जाय. 'हांव मोटो, असलीं कामां कशीं करतलों ?' अशें जाका दिसता तो देशाची सेवा कशी करतलो ? हांव

बाकिच्या लोकां सारकोच अशें ताका दिसूंक जाय. मनशाक मातयेच्या कणा परस्य ल्हान जावंक आयल्या अुपरांतूच हातां-तल्यान सेवा घडत. "

त्या मनशाक देश सेवेचो पैलो धडो मेळ्ळो.

* * * *

## : २ : सगलींच कामां देवाचीं

आमच्या देशांतल्या मोठ्या मनशां भितल्ले अेक आचार्य कृपलानी. पैलीं ते राष्ट्रसभेचे चिटणीस आसले. अुपरांत ते तिचे अध्यक्षूय जाल्ले.

गांधीजींक जेन्ना ते पैलेच मेळ्ळे तेन्ना ते बिहारांतल्या अेका कॉलेजांत अितिहासाचे प्राध्यापक आसले. गांधीजीं वांगडा काम करूंक मेळचें ह्या खातीर तांणीं आपली नोकरी सोडून दिल्ली.

पुण गांधीजींनीं तांकां कसलें काम दिलें जातलें ? रांदचे कुडींत बसून रोटयो लाटून दिवपाचें. चंपारणांत जेन्ना सत्याग्रह चलतालो त्या वेळार कृपालानी गांधीजींच्या शिपायाचें काम करताले.

खेंच्याय कामांत आत्मो ओतलो किं तें देवाचें काम जाता अशें गांधीजी मानताले.

* * * *



## : ३ : अणभवाचें गिन्यान

चंपारणांत आसतना गांधीजींनी कांयच शिकूंक नाशिल्ले अेके बायलेक शिकोवपाचें काम दिल्लें. ती म्हणूंक लागली : “हांव स्वता कांयच शिकूंक ना. ती दुसऱ्यांक कितें शिकयतली ?”

गांधीजींनीं जाप दिली : “अितिहास शिकय.”

“पुण अितिहास म्हाका खैं येता ?”

गांधीजींनीं तिका विचाल्लें : “तुका वर्सां कितलीं ?”

तिणें जाप दिली : ५० वर्सां.”

“पन्नास पावसाळे तुवें पळेल्यात. तूं ल्हान आसतना समाज कसो आसलो, आतां तो कितें जाला, हें तुवें पळेलां.”

तिणें म्हळें “हय”

“मागीर तेंच भुरग्यांक सांग.”

अितिहासाच्या प्रोफेसराक (आचार्य कृपालानींक) गांधीजींनीं रोटयो लाटपाचें काम दिलें तर जी बायल रोटयो लाटीत आयिल्ली तिका अितिहास शिकवपाचें काम दिलें.

अणभवाचें गिन्यान तेंच खरेलें गिन्यान अशें गांधीजी मानताले.

****



## : ४ : खें चंपारण आनी खें पायखिळे !

डॉ. मार्टिनांचें अेक वाक्य आसा " ल्हान-सान गजाली मेळून पूर्णत्व येना. आनी पूर्णत्व म्हळचार ल्हान-सान गजाल न्हय."

गांधीजी चंपारणांत अेक मोटें काम करपांत गुल्ल आसले. अेक दीस आश्रमांतल्या लोकांक तांगेली चीट आयली. ते चिटींत तांणीं बरयल्लें:—

" आतां पावसाळो सुरु जावपाचो जालो. आतां वारो दुसऱ्या दिकान व्हांवक लागतलो. तेन्ना ज्या फोणांत पायखिळचांतले डवे रिकामे करताले तो फोण पुरचो. आनी दुसरे कडेन फोण खणचो. ना जाल्यार घाण येतली."

खें चंपारणांतलो वावर ! आनी खें हो पायखिळचांचो हुम्को ! तरी गांधीजीक ते दोनूय सारकेच आसले. चंपारणांतल्या वावराक लागून पायखिळचांच्या वावराचें म्हत्व उणें जावंक नासलें !

****



## : ५ : ती पेन्सील

मुंबैंत राष्ट्रसभेची बसका आसली. गांधीजींचो रावितो त्या दिसांनी " मारवाडी विद्यालयांत " आसलो. अेक दीस तांकां खैं तरी भायर वचचें पडलें. आपलें सगळें सामान तांणीं अेकठांय केलें आनी तें तें बांदूंक लागले. पुण तांकां आपणाल्या सामानांत अेक कसली तरी वस्त मेळना जाली. ते ती सोद–सोद-सोदूंक लागले.

म्हऱ्यांत तांगेलो अेक साथी बशिल्लो. ताणें विचाल्लें :

" बापूजी, कितें सोदतात ? "

" म्हजी पेन्सील ! ल्हानशीच आसा. " गांधीजींनीं जाब दिली.

गांधीजींचो वेळ असो अेक ल्हानशी पेन्सील सोदपांत वता तो पळवन त्या म्हऱ्यांत बशिल्या मनशान आपली पेन्सील काडून गांधीजींक दिली आनी म्हळें, " ही घेयात म्हजी पेन्सील. "

" गांधीजींनीं म्हळें, " ना, ना, म्हाका म्हजीच पेन्सील जाय. मद्रासाक गेल्लों तेन्ना नटेसनच्या चल्यान म्हाका ती कितल्या मोगान दिल्ली ! ती पेन्सील म्हज्यान शेणवं नज. "

आतां कितें करतले ? दोगूंय ती पेन्सील सोदूंक लागले. थोडचा वेळान ती मेळ्ळी. पळेता जाल्यार, दोन अिचां परस ती व्हड नाशिल्ली !

****

## : ६ : हांव रोखडो येतां

अेक खेपे गांधीजींक व्हाअिसरायांक मेळपा खातीर दिल्लीक वचचें पडलें. स्वराज्या संबंदान ब्रिटीश सरकाराकडेन वाटाघाटी करपाच्यो आसल्यो.

त्या दिसांत आश्रमांत अेक ल्हान चली जोगान हांतुणार पडिल्ली. तिचो अुपचार खामा गांधीजी करताले. अकस्मात दिल्लीक वचचें पडिल्ल्यान गांधीजींक ते चलयेचो दुस्को जांवक लागलो. आनी ते चलयेकूय वायट दिसलें.

काम जायना फुडें रोखडो येतां अशें ते चलयेक सांगून गांधीजी दिल्लीक गेले. व्हाअिसरॉयांकडेन अुलवणीं जालीं. तीं सोंपनकूच व्हाअिसरॉयांनी वासपूस केली, " तुमी दिल्लीक कितले दीस अुरतले ? "

" म्हाका जाता तितले बेगीन आश्रमांत वचूंक जाय. जी पैली गाडी सुट्टा ती हांव धरतलों म्हणटां. आश्रमांत अेक चली म्हजी वाट पळेता. "

आनी गांधीजींनीं कळाव केलो ना. रोखड्यारोखडे भायर सल्ले. गांधीजींच्या मतान हे चलयेचो अुपचार करप होय अेक म्हत्वाचो वावर आसलो.

****



## : ७ : रुमाल शेणलो

अेक खेपे खैंच्या तरी दौऱ्यार आसतना गांधीजींचो हात-रुमाल शेणलो. चड करून फाटल्या ठिकाणार सुकत घाल्लो थैंच अुल्लो जातलो. गांधीजींक ताची गरज पडली. पुण महादेवभाओींक तो मेळचना जालो. तांणीं सगलेकडेन सोदलो. अखेरेक तांणीं येवन गांधीजींक सांगलें, " रुमाल चड करून फाटल्या ठिकाणार अुल्लो जातलो. मेळच ना. हांव दुसरो घेवन येतां."

गांधीजींनीं कांयच म्हळें ना. थोडचा वेळान तांणीं विचाल्लें, ' कितले दीस तो अुपकरा पडटलो आसलो ? "

" चार म्हैने तरी येतलो आसलो."

" तशें जाल्यार हांव चार म्हैने रुमाला बगर काडटलों."

बाबडे महादेवभाओी ! कितें करतले? चुकिचें प्रायश्चित तांकां हे भशेन घेवचेंच पडलें.

****

## : ८ : तो फातर

नोआखालिचे यात्रेंतली गजाल. गांधीजी नारायणपुराक पाविल्ले. पावनाफुडें तांणीं आपले पांय हून अुदकान धुले आनी न्हावपाचे तयारेक लागले. मनुबेन गांधी त्या वेळार गांधीजी सरीं रावताली. तिणें मान्न्यांत तुवालो वी व्हरून दवल्लो. गांधीजी न्हातना आंगाक शाबू लायनासले. तांचेकडेन अेक खरखरीत फातर आसतालो. त्या फातरान ते आपलें आंग

घांसताले. मान्न्यांत तुवालो बी सगळें दवल्लें तेन्ना मनुबेनीक याद जाली कि आपुण तो फातर फाटल्या गांवांत विसरून आयली ! तिणें गांधीजींक वचून सांगलें: "बापूजी, हांव तो फातर कालच्या गांवांत विसरून आयलें. कितें करूं ?"

गांधीजी खीणभर विचारांत पडले. मागीर सांगूंक लागले: "तुवें मोटी चूक केली. तो फातर शेणूंक जायना. मीराबेनीन मोट्या मोगान दिल्लो तो. तेन्ना तूं तो वचून घेवन यो."

"स्वयंसेवकां भिनल्या अेकल्याक घेवन वचूं ?" तिणें भियेन-भियेत विचाल्लें.

"कित्याक ? " गांधीजींनीं परतें विचाल्लें.

मनुबेनीक ह्या प्रस्नाची जाप दिवंक आयली ना. ती तशीच भायर सल्ली. कुळागरांतल्यान वचप तें. अनवळखी मनीस वाट चुकूंक खरो. त्या भायर दंग्याचे दीस. अेकली कशी वतली ? तरी गुन्यांव केल्लो. प्रायश्चित घेवंक जाय आसलें. देवाचें नांव घेत गेली. घर मेळ्ळें. त्या घरांत अेकली म्हातारी रावी. तिका बावडेक ह्या फातराचें मोल खैं खबर ! तिणें तो फाटल्यान भायर अुडयल्लो. मनुबेनीन तो सगळेकडेन सोदलो. अखेरेक मेळ्ळो. सकाळची साडेणवांक भायर सरिल्ली ती दन्परां अेकाक परती आयली.

अुपयोगाची दरअेकली वस्त कशी सांबाळची हें गांधीजींनीं येदी खर परीक्षा घेवन मनुबेनीक शिकयलें. अखेर मेरेन तो फातर तांचे बरोबर आसलो.

****

## : ९ : शिकलेल्या मनशाक भंग्याचें काम

इंग्लंडाक वचून शिकून आयिल्लो एकलो तरणाटो देशसेवेचे ओडीन गांधीजी सरीं गेलो. गांधीजी चरख्यार सूत कांतताले. तांणीं ताची वासपुस केली. खैं शिकलो, कितें शिकलो बी सगळें विचारून ताका म्हळें :

" तुका कसलें काम जाय ?..."

" कसलेंय... " ताणें जाप दिली.

" तूं बरपी हें हांव जाणां...पुण तसलें काम म्हजेकडेन ना...तुका अिबाडलेलो चरखो सारको करूंक येता ? "

" ना...म्हाका ही कला पैलीं शिकची पडटली. "

" मागीर, तुजें सगळें शिकप फुकट गेलें ना ? कितें शिकलो तर तूं इंग्लंडाक वचून ? माती ? "

" बरोबर, बापूजी. " ताणें म्हळें.

" तशें जाल्यार तुका हांव तेंच काम दितां. आमच्या पायखिळचांत डब्यांत घालपा खातीर बरी माती जाय. फातर–बितर काडून माती चाळपाचें काम एकलो आश्रमवासी करता ताका आधार दी. "

" बरें आसा, बापूजी. " त्या तरणाट्यान जाप दिली.

कांय म्हैने मेरेन तो हें काम करी. इंग्लंडाक रावन शिकून आयिल्ल्या ह्या मनशाक गांधीजींनीं माती चाळपाचें काम दिलें.

****

## : १० : शरीर-श्रम

काम केले बगर जेवप–खावप म्हळ्यार अेक तरेची हिंसा अशें गांधीजी मानताले, पुण हें काम अुत्पादक आसूंक जाय अशें तांचें मत्त आसलें. जो स्रम करिना ताका जेवपाचो अधिकारच ना अशें ते म्हणटाले.

" मंगळ प्रभात " ह्या पुस्तकांत तांणीं बरयलां.:

" स्रम करिना ताका जेवण खावपाचो अधिकार कसो आसुंयेता ? ' बायबलां ' त म्हळां, ' तुजी भाकरी तूं घाम गळवन जोड आनी खा. ' मात्शें येवजीत जाल्यार ह्या म्हणण्यांतलें खरे-पण दिसून येतलें. समजात, अेक कोट्याधीश मनीस हांतुणार लोळटा. ताका जेवण लेगीन लोक लायतात. ताका हात–पांय हालवंचे पडनात. तर, तो हे स्थितींत कितले दीस मेरेन रावीत ? कांय दिसांनीं ताका ह्या जिण्याची अुबगण येतली. ताका भूक लागची ना. तो व्यायाम करतलो; खेळटलो. श्रीमंत–गरीब सगळयांकूच हे भशेन हातपांय हालवचे पडटात जाल्यार अन्न तयार करपा खातीर सगळयांनींच अुत्पादक श्रम कित्याक करचो न्हय ? "

अूंच–अुणाकपण, धनी–चाकरपण असले जे वेगळेचार आमच्या समाजांत मातल्यात ते ना करपा खातीर शरीर–श्रमाचें व्रत सगळयांनीं घेवंक जाय अशें गांधीजींचें मत्त आसलें.

आनी त्या पसत जण अेकल्यान पैलीं भंगी जावंक जाय अशें लेगीत तो म्हणटाले.

****

## : ११ : बुद्धिचो वावर

सगळयांनींच भाकरे पसत श्रम करूंक जाय हें गांधीजींचें मत्त आयकून अेकदीस अेकल्यान तांकां विचाल्लें :

" रवीन्द्रनाथ वा रमण हांचे सारकेल्यांनींय श्रम करुंक जाय ? "

" हय, तांणींय करूंक जाय " गांधीजींनीं जाप दिली.

" पुण हाणें तांगेली शक्त फुकट वचची ना ? " ताणें परतो प्रस्न केलो.

" ना. परती शक्त वाडटली···आनी ते जो बुद्धिचो वावर करतात तोय शरीरश्रमान बरो जातलो. "

बुद्धिच्या वावराक गांधीजी अुणे लेखताले अशें न्हय. पुण शरीर--श्रमाच्या नेमाक ते आडवाद दवरूंक तयार नासले. ह्या विशीं तांकां कोणेंय विचाल्लें जाल्यार ते कांअुट लिओ टॉलस्टॉयचे जिणे कडेन बोट दाखयताले. गांधीजींक शरीर श्रमाचें म्हत्त्व टॉलस्टॉयचेंच अेक पुस्तक वाचून समजल्लें.

****



## : १२ : कुडिची गरज कुडिच्या श्रमांनीं

" मनशान आपली भाकरी बुद्धिचो वावर करून कित्याक जोडची न्हय ? "— अेकल्यान प्रश्न विचाल्लो.

" कुडिची गरज कुडीनच भागवंक जाय. " गांधीजींनीं जाप दिली.

मनशान बुद्धिचो वावर करचो पुण तो पैशांनीं विकचो न्हय अशें गांधीजींचें मत्त आसलें. डॉक्टर, वकील वी लोकांनीं आपल्या गिन्यानाचो लाव समाजाक दिवचो पुण ताचे बदला तांणी पैशे घेवचे न्हय. भाकरे खातीर सगळ्यांनीं श्रम केले जाल्यार समाजांत आपशीच अेक क्रांत घडून येतली आनी रानटी नेम वाचून लोक मनीसपणाचे नेम मानूंक लागतले अशें ते म्हणटाले. ****

## : १३ : मारवाड्याचें पुडवें अुमळ्ळें

गांधीजी अेका शारांत अेका गिरेस्त मारवाडयागेर गेल्ले. मान्न्यांत न्हावपाक गेल्ले थंय नांकां त्या घर–धनयाचें पुडवें पडिल्लें दिश्टी पडलें. तो निकतोच न्हावन गेल्लो.

गांधीजींनीं न्हावन जातकच आपल्या वाल्यावरोबर तें पुडवें अुमळ्ळें आनी भायर येवन सुकत घालूंक लागले. गांधीजींनीं आपलें पुडवें धुलां हें पळवन त्या गिरेस्ताक लज जाली. धांवत धांवत येवन ताणें म्हळें : " बापूजी, हें कितें ? "

तांतूंत कितें जालें ? पुडवें मान्न्यांत पडिल्लें दिसलें तें हांवें अुमळ्ळें. "

मारवाडयान लजेंन मान सकल घाली. ****

## : १४ : कितली ल्हान गजाल

१९३० तली खबर. पूर्ण स्वराज्य मेळसर आमी सस्थ बसचे-नांत असो त्या वर्सा जानेवारीचे २६ वेर सबंध देशान सोपूत घेतिल्लो. देश सगलो पेटिल्लो. पुण " हांवें सत्याग्रह केल्या बगर कोणेंच करूंक जायना " असो आदेश गांधीजींनीं लोकांक दिवन दवरिल्लो.

मध्यान रात जाल्ली. गांधीजींनीं व्हॉअिसरॉयांक अेक अिति-हासिक म्हत्वाची चीट बरयली.

ती बरवन जाली आनी तांणीं रोखडेंच दुसरें अेक पत्र बरवंक घेतलें. कोणाक जांवये ? अेके हरिजन चलयेक. त्या पत्रांत तांणीं बरयल्लें :

" तुजें बोट दुखावलां. आयोडीन लायता मू ? "

कितली ल्हान गजाल ! पुण कितले तोखणायेची !

****

## : १५ : डॉक्टरा कडल्यान परते पैशे घेतले

अेक खेपे दौऱ्यार आसतना गांधीजींक जोर आयलो. अेका डॉक्टराक ही गजाल कळ्ळी. तो गांधीजींक पळवंक आयलो.

"म्हाका तशें कांयच जावंक ना". गांधीजींनीं म्हळें. "प्रवासांत मात्सो त्रास जालो, अितलेंच. "

" पुण तपासून पळेतां; ते बगर म्हाका समाधान जावपाचें ना. " डॉक्टरान म्हळें.

" तें हांव नकळ. पुण म्हाका तपासपाचें आसत जाल्यार हांव म्हजी फी घेतलों. फुकट दिवपाचों ना. " गांधीजींनीं जाप दिल्ली.

हो अुरफाटो न्याय आमल्लो. तरी डॉक्टरान पाकिटांत आशिल्ले तितलेय पैशे काडले आनी गांधीजीं मुखार दवरून म्हळें, " हांगा येवचे पैलीं विझितांक गेल्लों. थैं मेळ्ळे तितलेय दितां. "

गांधीजींनीं ते मोन्यानीं घेतले आनी हरिजन फंडांत जमा केले.

****

## : १६ : बनिया

गांधीजी तशे लोकांकडल्यान पैशे काडूंक मोटे हुशार आसले. स्वाक्षरी लेगीत पांच रुपये घेतल्या वगर दिनासले. वर्तमानपत्र-कार मुलाखती खातीर वेळ मागीत जाल्यार तांचे कडल्यानूय पैशे घेताले. हे सगळे पैशे हरिजन फंडांत जमा जाताले हें सांगपाची गरज ना.

" कितलोंय जालों जाल्यार हांव मूळचो बनिया " अशें ते विनोदान म्हणटाले.

****



## : १७ : पांचांत जातलें आसलें

गांधीजी पांच रुपया घेतले बगर स्वाक्षरी केन्नाच दिनासले.

नामनेचे पत्रकार लुअी फिशर हाणीं अेक मजेदार प्रसंग बरवन दवल्ला.

तांकां गांधीजींची स्वाक्षरी जाय आशिल्ली. तांणीं तांचो अेक फोटोग्राफ घेतलो आनी तो गांधीजीं मुखार दवरून म्हळें : " हाचेर तुमची स्वाक्षरी दिशात ? "

" हरिजन फंडा खातीर वीस रुपये मेळटात जाल्यार दितां. " गांधीजींनीं जाप दिली.

फिशर गांधीजींक वळखताले. तांणीं वांटपण केलें : " हांव धा रुपया जाल्यार दितां. " गांधीजी कबूल जाले आनी तांणीं तांकां स्वाक्षरी दिली.

अुपरांत कांय दिसांनीं फिशरांनीं आपलें हे हुशारिची गजाल देवदास गांधींक सांगली. देवदास गांधी म्हळचार गांधीजींचे पुत- तांणीं हें आयकून फिशरांक पिश्यांत काडले. आनी सांगलें :

" तुमी पांच रुपया फुकट वगडायले. बापू पांच रुपयांक लेगीत कबूल जातले आसले. "

****



## : १८ : गांधीजींचें वनियापण

गांधीजींच्या वनियापणाची अेक पत श्री. कृष्णलाल श्रीधराणी ह्या वरप्यान बरवन दवल्ल्या.

श्रीधराणी अमेरिकेच्यान शिकून परते आयले तेन्ना गांधीजींक मेळूंक गले. तांच्या आंगार विलायती वस्त्रां आशिल्लीं. खादी घेतले जाल्यार सूत दिवंचें पडटालें आनी श्रीधराणीं कडेन सूत नाशिल्लें. गांधीजींक मेळना फुडें ताणीं सांगलें, " बापूजी म्हजे कडेन सूत ना. आनी सूत दिले वगर खादी मेळना. म्हुण विलायती वस्त्रांच घालून आयलां. "

गांधीजींनी अेका कागदार थेंच्या खादी भांडाराक चीट बरवन दिली.

" श्री. श्रीधराणी अमेरिकेच्यान आयल्यात. तांकां खादी जाय. जाय तितली दिवंची. सूत म्हजे कडेन आसा अशें धरचें. पैशे मात तांचेच कडल्यान घेंवचे."

****

## : १९ : घेंवपा सारकें जें आसलें तें हांवें घेतलें

१९३१ त गांधीजी अिंग्लंडाक गेल्ले तेन्नाची खबर. बोटीर अेकलो " गांवठी सायब " आशिल्लो. गांधीजींचो भेस पळवन ताका तांचीं फकाणां मारपाची अित्सा जाली. ताणें अेक विडंबन काव्य बरयलें आनी तें गांधीजींकूच वाचूंक दिलें. तें बरेंच मोटें आशिल्लें. गांधीजींनीं तें वैले वैर पळेलें. आनी ताका लायिल्ली आलिफनेत काडून तें पिडून अुडयलें. ...

आपलें काव्य हे भशेन पिंदून अुडयल्लें पळवन त्या मनशान गांधीजींक येवन विचाल्लें : " तातूंत घेवपासारकें तुमकां कांयच मेळ्ळें ना ?"

" तातूंत घेवपा सारकें जें कितें आशिल्लें तें हांवें घेतलें" अशें म्हणून तांणीं ते आल्फिनेती कडेन बोट दाखयलें.

****

## : २० : हांवूंच सांगतां सगळें

क्रांतिची जी नवी तरा गांधीजींनीं लोकां मुखार दवल्ली तिका तांणीं नांव दिल्लें – सत्याग्रह.

'सत्याग्रह' म्हळयार खरें तेंच करतलों असो नित्शय करपः असलो नित्शय केल्लो मनीस कोणाक भियेवचो ना, कित्याक भियेवचो ना. लटकें कितेंच करचो ना, कोणाक फटवचो ना. हाका लागून ताका लिपचोरयांनी कितेंच करपाची अित्सा जायना.

अेक खेपे आश्रमांत अेक गुप्त हेर येवन रावलो. गांधीजी कोणाकोणाक मेळटात, कोण कोण तांकां मेळूंक येतात, कसलीं कसलीं अुलवणीं जातात आनी कोण कोण कितें कितें करतात हें सगळें तो बरवन सरकाराक कळीत करतालो. आश्रमांत कोणाक हाची खबर नाशिल्ली.

अेक दीस गांधीजींक तें कळ्ळें. तांणीं त्या हेराक आपवन हाडलो आनी सांगलें : " तुका जें कितें जाय तें म्हाकाच येवन विचार. हांवच सगळें तुका सांगतां."

...२...

आनी खरेपणान तेद्सच्यान गांधीजी आपणाक कोण कोण येवन मेळ्ळे हें ताका आपुणूच वरवन दिवंक लागले.

ह्या नेमाक लागून गांधीजींनी अेक मोटी गजाल साधली. तांचे बरोबर रावतल्यांक ताणीं धिटाय शिकयली. गुप्तताय गेली म्हणटकूच धिटाय येताच. आनी असल्या धीट मनशाक जेन्ना 'ना' म्हणचें आसना तेन्ना तो कोणाकच बाडगनासतना 'ना' म्हण्टा. कसलेय फुसलावणेक वा दबकावणेक तो मीठ घालिना.

स्वराज्याचे चळवळींत लोकां भितर जी आकांनाची धिटाय दिसली तिचो प्र ोग हे भशेन आश्रमांत पैलीं सुरू जाल्लो.

****

## : २१ : क्रांतिची नवी तरा

अेक दीस आश्रमांत अेक क्रांनिकारी आयलो. तो बॉंब–पिस्तुलांनीच स्वराज्य मेळटलें अशें मानतालो. तर गांधीजी अहिंसेन स्वराज्य मेळटलें अशें म्हणटाले. ताका गांधीजींकडेन ह्या संबंदान उलवचें आसलें.

आश्रमांत भितर सरतना तो हेवटेन तेवटेन पळेत भितर सल्लो. सरकाराचे गुप्त हेर नात मू ? म्हाका कोण धरचो ना मू ? असो दुगदुग ताका दिस.

गांधीजींनीं ताका म्हळें "तुज्या बॉंब–पिस्तुलांनी तुका कितलो भिञो केला तो पळे."

आनी "छोटालाल, छोटालाल" म्हुण अेकल्याक उलो माल्लो छोटालालाक पळेना फुडें त्या क्रांतिकारी मनशाक अजाप जालें

" होय अंके मुस्तितलो क्रांतिकारी, हो हांगा केन्ना आयलो? आनी भियेनासतना कसो भोंवता ? "

गांधीजीनीं म्हळें : " छोटालाल, हाका तुजी खबर सांग. "

छोटालालान आपली खबर सांगली. आपुण आयलों तेन्ना पोलिसांक कसो भियेतालों, गांधीजींनी आपणाक भंय सोडूंक कसो लायलो हें सगळें सांगून ताणें म्हळें : " हांवें बाँब–पिस्तूलांची वाट सोडली तेन्ना म्हाका लिपपाची वा लिपवन कितें करपाची गरज दिसना जाली. आमी हांगासर सगळें उक्तेपणान करतांत. गुप्तहेर हांगा येतात. तांकां आमी हांगा कितें कितें चल्लां कोण कोण येतात तें सगळें सांगतांत. अितलेंच न्हय तर हांगा येतल्यांक हाडपाखातीर तांकांच आमी केन्ना केन्ना स्टेशनार धाट्टांत. "

क्रांतिकाऱ्याक क्रांतिची ही नवी तरा पळवन अजाप जालें. कांय दिसांउपरांत ताणेंय बाँब–पिस्तुलांची वाट सोडली आनी तोय आश्रमांत येवन रावलो.

****



## : २२ : भयाचें साम्राज्य

दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान जेन्ना गांधीजी परतले तेन्ना सगळयांत पैली गजाल तांणीं पळेली ती ही – कि हिन्दुस्तानांत सगळेच अेका–मेकांक भियेतात. ते मुस्तींतले मोटेमोट लोक लेगीत भयांच्या दावकुलांत दीस काड्टाले. गुप्त हेरांचो भंय, पुलिसांचो भंय, बंदखणिचो भंय, असल्या तरेकतरांच्या भंयांनी लोक जियेताले. ते वटेन सरकाराकूय लोकांचो भंय दिस. लोकांनी जेन्ना जेन्ना तकली वयर काडली तेन्ना तेन्ना ती सरकारान चेपली. पुण लोकांचो राग ना जावंक पावलो ना. तो चिड्डून अुल्लो. तो केन्ना आनी कसो वयर सरत हें सांगू नज आसलें. सरकार ह्याच पसत लोकांक भियेतालें.

गांधीजी हें पळवन म्हणूक लागले कि स्वराज्य जोडचें आसत जाल्यार सगल्यांत पैलीं भंयाचें हें साम्राज्य ना करून अुडवंक जाय. ना जाल्यार आमचें अेकूय पावल सारकें पडपाचें ना.

आनी तांणीं हेर सगळें कुशीक दवरून देशांत निर्भयतेचें वातावरण निर्माण करपाचो वावर हातांत घेतलो.

***



## : २३ : तो थाराव

गुजराथांत राजकी परिशद भरिल्ली. विशय–नियामक समितींत कांय थाराव आअिल्ले. तांतूतलो अेक थाराव आसलो "आमी ब्रिटनच्या राजाक निष्ठावंत आसांव अशें जाहिर करतांव." ह्या अर्थाचो.

ते मुस्तींत सगळ्चो राजकी परिशदो असल्या थारावांनी सुरू जाताल्यो. गांधीजींनीं ह्यो थाराव वाचलो आनी पिंदून अुडयलो. आनी म्हळें : "असलो थाराव हाडपच म्हळ्चार पिशेपणां. आमी जे मेरेन बंडाय करूंक ना ते मेरेन राज्याक निश्ठावंतच आसांव अशें म्हणचें पड्टा. तें परतें–परतें कित्याक सांगूंक जाय ? खेंचीच बायल आपल्या घोवाक परती–परती आपुण पतिव्रता म्हणपाचें सांगीत रावता काय कितें ? तिणें लग्न केलां ह्याचो अर्थच ती पतिव्रता."

सगळे जाण चकासूर जाले. तांचीं अजापाचीं तोडां पळवन गांधीजींनी म्हळें : "हो थाराव कित्याक आयलो ना अशें कोणेंय तुमकां विचाल्लें जाल्यार तुमी सांगात गांधीन तो येवंक दिलो ना म्हूण."

ही अेक ल्हानशीच गजाल खरी. पुण भंयांचें साम्राज्य ना करपा खातीर हें पावल कितलें अुपकारा पडलें जातलें !

अशें अेक–अेक पावल घालीत गांधीजी देशाक धीट करीत गेले.

****

## : २४ : पैलें पावल

त्याच वर्साची, म्हळ्यार १९१६ तली खबर. काशी हिन्दु विश्वविद्यालयाचे अुक्तावणेचो दबाजो आसलो. व्हायसरॉय बुन्यादी फातर घालपाचो आसलो आनी कितलेशेच संस्थानिक आनी गिरेस्त थँ येवचे आशिल्ले. गांधीजीकूय आमंत्रण आसलें.

गांधीजींक जेन्ना अुलवंक सांगलें तेन्ना ताणीं भीड मूर्वन बाळगिनासतना आपलें अुलवप केलें. व्हायसरॉय आयिल्ल्यान सगले कडेन गुप्त हेरांचो आनी पुलिसांचो वदोवस्त केल्लो. तांकां लेखून गांधीजींनी म्हळें : "हें सगलें कितें ? हे गुप्त हेर आनी पुलिस हांगा कित्याक ? जितो आसतनाच अशें मरण जियेवचे परस लॉर्ड हार्डीगांनीं—व्हायसरॉयांनी—खरेलेंच मेल्लें बरें न्हय ? व्हायसरॉयांनी लोकांक अशें भियेवचें कित्याक ?"......

आनी मुखार..." हे असले अगतिकतायेक लागून आयच्या हिंदुस्तानांत बॉब—पिस्तुलकारांचो अेक वर्ग निर्माण जाला... तांकां हांव अितलेंच सांगतां कि आमकां जांणीं जिखल्यात तांकां परते जिखून घेवचे आसत जाल्यार हीं बॉब—पिस्तुलां भायर अुडवंक जाय....तीं भित्र्यांचीं आवनां...आमी फक्त देवाक भियेवंया. मागीर आमकां कोणाचोच भंय दिसचोना...महाराजां-चोय ना, व्हायसरॉयचोय ना, गुप्त हेरांचोय ना...कोणाचोच भंय दिसचो ना...

दोनूय वटेंतले हे दुबाव ना करपा पसत दोगांनीय अेकांमेकांचो भंय सोडून दिवंक जाय..."

ह्या अेका अुलोवपान गांधीजींनी अख्या हिंदुस्तानाचें काळीज जिखलें. भंय ना करून अुडवपाच्या वावरांतलें हें अेक मोटयांतलें मोटें पावल आसलें !

****

## : २५ : शांति आनी क्रांति अेकठांय मेळ्ळी

गांधीजींचें हें अुलवप आयकुपाक हजारांनी लोक थैं जमिल्ले तांतूंत महाराष्ट्रांतलो अेकलो भुरगो आसलो. तो घरच्यान पळून काशीक येवन राविल्लो. आनी थैंच्या पंडितांकडेन संस्कृत शिकतालो.

ताचे दोन हावेस आसले. अेक – हिमालयार वचप आनी तपश्चर्या करून शांति जोडप, ना जाल्यार – बंगालांत वचून क्रांतिकारकांक मेळप आनी ब्रिटिशांचें राज्य ना करपाक वावरप.

गांधीजींचें हे अुलवप आयकून ताका दिसलें "म्हाका जाय आशिल्यो दोनूय गजाली – शांति आनी क्रांति – ह्या मनशांत अेकठांय रावल्यात. तेन्ना, हिमालयूय नाका, बंगालूय नाका, गांधी सरींच या."

आनी ताणें गांधीजींक चीट बरवन आपलो हावेस कळीत केलो. गांधीजींनीं ताका आश्रमांत आपवन घेतलो.

ह्या भुरग्याचें नांव तुमकां खबर आसा? ताचें नांव विनोबा भावे!

****



## : २६ : येदो घीट मनीस

गांधीजींनी आमकां सगल्यांत म्हत्वाची जी शिकवण दिली ती म्हळचार धिटायेची. गांधीजींक कांय लोक संत म्हण्टात. पुण गांधीजीचें व्हडपण तांच्या संतपणातूच फक्त ना. संत आनी महात्मे गांधीजी पैलींय जायते जावन गेले आनी गांधीजींचे मुस्तींतूय आशिल्ले. तांचें व्हडपण मुत्सद्दीपणांतूय ना. मुत्सद्दी आनी राजकर्णी गांधीजी पैलींय जायते जावन गेले आनी गांधी-जींचे मुस्तींतूय जायते आसले. झुजारी आनी पराक्रमीय जायते जावन गेले. पुण गांधीजी येदो घीट मनीस मात कोणूच जालो ना !

ह्या अेका गुणाचेर भाळून आचार्य कृपलानी हांणीं आपली जीण गांधीजींक ओंपिल्ली. ज्या वेळार तांणीं गांधीजींक " तुमकां जाय तेन्ना म्हाका आपयात." अशें अुतर दिल्लें त्या वेळार कृपलानींक गांधीजींची अहिंसा पटूंक नासली. ते म्हण्टाले " हे आज अहिंसा–अहिंसा करतात खरे, पुण हांकां जेन्ना अहिंसेन कांयच जावपाचें ना अशें दिसून येतलें तेन्ना ते जी हिंसा करतले ती कोणाकूच जमूंक ना असली करतले."

जालें अुरफाटें ! कृपलानींकच अहिंसा पटली ! मेरठ कॉंग्रेसच्या अध्यक्षपदा वेल्यान अुलयतनां तांणीं म्हळें :

" हांव हिंसक वावरांत आसलों तेन्ना जितलो घीट आसलों ताच्याकूय अदीक घीट गांधीजींची अहिंसा मानूंक लागतकूच जालों."

****

## : २७ : घिटांचें साधन

खासा गांधीजी म्हणत कि आपणें जी अहिंसा सांगल्या ती धीट मनशाचें साधन म्हुण सांगल्या. " हिंसा आनी भित्रेपण हांचे मदलें अेक कितेंय वेंचून काड अशें म्हाका कोणेंय सांगलें जाल्यार हांव हिंसाच वेंचून काडटलों......पुण हांव जाणां कि हिंसे परस अहिंसा कितलीशीच श्रेष्ठ......".

गांधीजींचें दुसरें अेक सुभाषित घोळवपासारकें आसा. ते म्हण्टात, " भित्रो मनिस केन्नाच नीतिमान आसूं नज. "

गीतेंत लेगीत देवांचे बडींचें वर्णन करतना ' अभयं ' म्हळयार घिटायेक सगल्यांत पैलो पाट दिला.

देखून गांधीजींचे अहिंसेचे शिकवणेचेर जेन्ना आमी येवजितांव तेन्ना अेक गजाल आमी घट्ट ध्यानांत दवरूंक जाय कि फक्त मारप ना असो अहिंसा ह्या अुतराचो अर्थ न्हय. तर मारपाचें बळ आसून बोट लेगीत अुबारप ना असो ह्या अुतराचो अर्थ जाता.

आनी हो अर्थ लक्षांत दवरलो जाल्यार अहिंसेची बुन्याद अभयूच आसूं येता, अितलें स्पष्ट जाता. जाच्या मनांत भंय वसता तो अहिंसक केन्नाच जावंक पावचो ना.

****



## :२८: भिजूडपणा परस हिंसा बरी

स्वराज्याचे चळवळींतली खबर ही. गांधीजींनीं अहिंसेचें पथ लोकांक सांगिल्लें. मात् लेगीत हिंसा जाल्यार आपुण चळवळूच फाटीं घेतलों अशेंय सांगिल्लें.

अेका गांवांत पुलिसांनी आगळिको केल्यो. त्यो अितल्यो केल्यो कि लोक भियेले आनी गांव सोडून पळून गेले.

गांधीजींक जेन्ना हें समजलें तेन्ना तांकां खूप त्रास जाले. म्हणूंक लागले : "आरे रे, अशे पळून येवचे परस तांणीं हिंसा केल्ली आनी बायलांची अिज्जत राखिल्ली जाल्यार म्हाका बरें दिसतलें आसलें...म्हाका भिजूडपणा परस हिंसा अुपकरता......पुण अहिंसेच्या पांगरुणा खाल लिपिल्लें भिजूडपण नाका !"

****

## : २९ : पोलिसांचो भंय कित्याक ?

चंपारणांत चौकशेचें काम चलतालें. राजेनबाबू, धरणीधर-बाबू वी मोटे मोटे वकील शेतकामत्यांच्यो तक्रारी आयकून बरवन घेताले. हें काम चलता आसतानाच अेक दीस अेकलो पोलिस अिन्स्पेक्टर येवन थैं बसलो. धरणीधरबाबूंक हें मानवलें ना. म्हुण ते थैंचे अुठून दुसरे कडेन वचून बसले. थंयूय तो अिन्स्पेक्टर आयलो. म्हुण ते तिसरे कडेन गेले. तर थंयूय तो हजर ! धरणीधर बाबू तापले :

" हें कितें ? आमच्या माथ्यार-शे येवन बसतात तें कितें ? आमकां अडचण जाता हें तुमकां समजना ? "

“आमकां तसो हुकूम आसा.” ताणें जाब दिली. उपरांत ताणें गांधीजींसरीं ही कागाळी व्हेली. गांधीजींनीं धरणीधरबाबूंक आनी हेरांक आपवन ह्या संबंदान वासपूस केली. तांणीं सगळी गजाल सांगली.

“तुमी अेकलें आसले काय तुमचे बरोबर आनीक कोणूय आसले ?” – गांधीजींनीं विचाल्लें.

“जायते शेतकामती आसले.” – धरणीधरबाबून जाब दिली.

“मागीर, हो अिन्स्पेक्टर थैं आयलो जाल्यार तुमकां कसली अडचण दिसली ?”

“अडचण दिसली म्हुण्णूच तर आमी दुसरे कडेन, तिसरे कडेन वचून बसले.”

“शेतकामती तुमचे भोंवतणीं आसल्यार तुमकां अडचण दिसली ना. पूण अिन्स्पेक्टर येतकर अडचण दिसली ! हाचो अर्थ असो जालो कि हो पुलिसींतलो मनीस म्हुण तुमकां ताची अडचण दिसली. तुमी ताच्यांत आनी हेरांत फरक कित्याक केलो ? ताकाय हेर शेतकामत्यां सारको कित्याक लेखलो ना ? तुमच्या मनांत पोलिसांचो भंय अजून आसा अशें दिसता. आमी लिप-चोरयांनीं वायट काम तर करिनात. मागीर मुखार पोलिस आसलो जाल्यार कित्याक भियेवंक जाय ? शेतकामत्यांच्या मनांतलोय हो भंय काडून उडवंक जाय. पोलिसच न्हय, मॅजिस्ट्रेट आनी हेर कोणाय मुखार आमकां आपलें म्हण्णें निर्भयपणान सांगूंक येवंक जाय.”

आमचें म्हणणें पोलिसांक कळत जाल्यार कोण जाणा कितें जातलें ! असो भंय क्रांतिकारकांकूच न्हय तर दुसऱ्यांकूय दिसतालो

देखून सगळेच पोलिसांक चुकवंक सोदताले. गांधीजींनीं अेके वटेन लोकांच्या मनांतलो हो भंय ना केलो आनी दुसरे वटेन पोलिसांचो कैफूय जिरयलो. चंपारणांतल्या ह्या पोलिस अिन्स्पेक्टराक दिसून आयलें कि आपणांत आनी साऱ्या शेतकामत्यांत हे लोक कसलोच फरक मानिनात. ताजो कैफ खंचो खं ना जावन गेलो.

****

## : ३० : तुमकां हांव बंदुको हाडून दितां

साबरमती न्हंयेच्या तिरार आश्रम काडला ही खबर सगळ्यांत पैलीं चोरांक कळ्ळी. रातचे ते सदांच आश्रमांत येवंक लागले. संसारांतले हेर लोक आश्रमांत येतना भेटेक किर्तेय घेवन येताले. हांचो न्याय अुरफाटो. हे आश्रमांतल्यानच किर्तेय घेवन वताले.

ह्याका लागून आश्रमांत रावतल्यांक रातचीं जांगरणां करचीं पडूंक लागलीं. अेकलो अेक दीस, दुसरो दुसऱ्या दिसा रातिच्या १ ते ३ मेरेन रातपाळयो करूंक लागले.

गांधीजी त्या दिसांनी खंच्या तरी दौऱ्यार गेल्ले. कांय दिसांनी ते आश्रमांत परतले. तेन्ना तांकां ही चोरांची आनी रातपाळयेची खबर कळ्ळी. भासाभास खूब जाली. निमाणें गांधीजींनीं सांगलें : "तुमची अिच्छा आसत जाल्यार हांव सरकारा कडल्यान परवानो काडून बंदुको हाडून दितां."

"पुण लोक म्हण्टले, हे अहिंसावादी लोक बंदुको कश्यो घेवन रावतात?" कोणें अेकेल्यान दुबाव काडलो.

"तांकां जाब दिवपाचें काम म्हजें"–गांधीजींनीं म्हळें.

हाचेर आनीक थोडो शास्त्रार्थ जालो. अखेर गांधीजींनीं निर्वाळो दिलो :

" भयान दीस काडचे परस बंदुको घेतिल्ल्यो बऱ्यो. भियेल्लो मनीस अहिंसेक पाळो दिवकूच पावचो ना. तो मनांतल्या मनांत हिंसा करीत रावतलो. ते परस चोरांक भेश्टावपाक बंदुको हाडिल्ल्यो बऱ्यो ! "

****

## : ३१ : क्षमा वीरस्य भूषणम्

दक्षिण आफ्रिकेंतली गजाल. गांधीजी थैं चळवळ करताले. त्या दिसांनी दक्षिण आफ्रिकेंत कांय पठाण गांधीजींच्या आड जाल्ले. अेक दीस तांणी गांधींक वाटेर धरून येथिश्ट मार घालो. गांधीजी घुंवळून पडले.

कडेंकच अेका येवरोपेवाचें ऑफिस आशिल्लें. थैं लोकांनीं गांधीजींक अुबारून व्हेले. थोडचा वेळान ते सुद्‌दीर आयले. कोणें अेकल्यान तांकां विचाल्लें, " आतां कशें दिसता ? "

" तशें बरें दिसता, पुण दांत मात्शे सणसणटात "...... गांधीजींनी जाब दिली आनी विचाल्लें : " तो पठाण खैं ? "

" ताका पुलिसांनी धरून व्हेलो. आनी ताचे बरोवर ताच्या कांय वांगडचाक्‌य धल्यात. "

" तांकां रोखडचा रोखडे सोडून दिवक जाय " गांधीजींनी म्हळें. आनी रोखडचा रोखडी सरकारी वकिलाक तार धाडून तांणीं त्या पठाणांक सोडूंक लायले.

वैलो आंठ चिरिल्लो. आंग सगलें दुखतालें. तरूय अेक चीट बरवन गांधीजींनी छापूंक धाडलीन..." जाणीं म्हाका माल्लो तांचो राग म्हाका येंवक ना...सत्याग्रही मनशान मारांक भियेवंक फावना."

कांय वर्सां अुपरांत ट्रांसवालाक अेक सभा जाली. सभा जातकच कांय जाणांनीं गांधीजींक मारचें थारायल्लें. आनी अितल्यात कांय पठाण:सुरे घेवन थें आयले. गांधीजींच्या केंसाक लेगीत हात लागल्यार आमी तुमकां जिते दवरचे नात अशें तांणीं ल्हवूच सांगतकच मारपाचो बेत खैचे खैं ना जालो.

कांय वर्सां आदीं गांधीजींक मारपाक भायर सरिल्ले हे पठाण आज सुरे घेवन तांचो जीव राखपाक धांवून आअिल्ले ! ****

## : ३२ : म्हाका देव राखतलो

गांधीजींक पठाणांनीं मारलें तेदूसच्यान गांधीजींचे साथी तांकां अेकले खैंच वचूंक दिना जाले. कोणूय तरी अेकलो तांचे बरोबर आसतालोच. दक्षिण आफ्रिकेंत जोडिल्ल्या लोकांत गांधीजींक कॅलनबॅक नांवांचो अेक येवरोपेव अिश्ट मेळिल्लो. तो गांधीजींच्या आंग-राखप्याचें काम तेदूसच्यान करूंक लागलो.

अेक दीस गांधीजी अेके सभेक गेल्ले. कॅलेनबॅकाक सुलूस लागली कि हे सभेंत गांधीजींक मार घालपाचो कोणें बेत केला. देखून सभेक वचूंक भायर सरता आसतना ताणें कोणाक सांगिनासतना अेक पिस्तुल आपल्या बोल्सांत घालें. गांधीजींक दुबाव आयलो. तांणीं विचाल्लें, " तें बॉल्सांत कितें ? "

" तें पिस्तूल " कॅलनबॅकान जाब दिली.

"तें कित्याक घेतलां?"

"सभेंत गडबड जावपाची आसा अशें हांवें आयकलां."

"मनशाक देव राखता, हें खरें काय न्हय?"

"हय- "

"मागीर, म्हाका राखपाचें काम देवाकडल्यान तुवें केन्ना पसून घेतलें?"

कॅलेनबॅक जाब कितें दितलो? ओगी रावलो. गांधीजींनीं म्हळें: "भायर उडय तें पिस्तूल. हांव देवाच्या हातांत सुरक्षित आसां. म्हजे कडल्यान ताका काम घेंवचें आसत जाल्यार तो म्हाका केद्याय संकटांतल्यान वांचयतलो. म्हाका राखपा खातीर पिस्तुलाची गरज ना."

गांधीजींची ही श्रद्धा निमाणें मेरेन घट्ट आसली. तांचेर जिवावैले जायते प्रसंग आयले. पुण गांधीजींनीं केन्नाच पुलिस जावं पिस्तूल, कित्याचोच आधार घेतलो ना. आपणाक देवाच्या हातांत काडून दिल्ल्यान ते पूर्ण निर्भय जाल्ले. अीश्वराच्या मुखार जाल्ले शरणागतींतच निर्भयतेचें बीं आसा.

****



## : ३३ : हांवूच आयलां, मार

चंपारणांतली खबर. येवरोपांचो थैं जुलूम खूब जाल्लो. आनी गांधीजी थैं खरें-फट कितें तें काडूंक गेल्ले. हाका लागून कांय गोरे गांधीजींचेर तिडिल्ले.

अेक दीस कोणें अेकल्यान गांधीजींक येवन सांगलें : “ हांगासल्लो अमको अमको मनीस मोटो दुश्ट. आपूण गांधीचो खून करतलों अशें तो म्हण्टा. आनी त्या पसत ताणें कांय गुंड भाडयाक लायल्यात अशें हांव आयकतां. ”

गांधीजींनीं फक्त आयकून घेतलें.

अेक दीस रातचे सगले न्हिदिल्ले आसतना गांधीजी ल्हवूच अुठले आनी त्या गोऱ्यागेर गेले. दारार माल्लें :

“ कोण ? ”

“ हांव–गांधी– ”

त्या गोऱ्याक अजाप जालें. ताणे दार काडलें. गांधीजींनी ताका सांगलें : “ म्हाका मारपा खातीर तुवें कांय गुंड लायल्यात म्हुण हांवें आयकलां. देखून कोणाक सांगिनासतना हांव अेकलोंच आयलां. म्हाका मार. ”

तो पळेत रावलो.

****



## गांधी साअित्यांतलीं दुसरीं पुस्तकां

१ **महात्माः**—गांधीजींची जीण आनी वावर हांचेर
व्हड व्हड मनशांचीं मत्तां — १.२५ न पै.

२ **सत्याग्रहः**—सत्याग्रहाविशीं गांधीजींचीं अवतरणां
आनी तांचेर रवीन्द्र केळेकार हांगेलें मनन — ०.६२ ,,

३ **गांधीजीलो मार्गः** — अहिंसक प्रतिकाराच्या
शास्त्राचेर विनोबा काकासायब आनी
मश्रुवाला हांचीं बरपां — ०.७५ ,,

४ **भारताचो दिश्टावोः**–India of my dreams
चो अणकार — ०.७५ ,,

५ **मंगळ-प्रभातः**—आश्रमी जिणेच्या अिकरा
व्रतांवेलें भाष्य — ०.५० ,,

६ **सर्वोदयः**—रस्किनच्या Unto this last ह्या
पुस्तकाचो आपरोस — ०.५० ,,

७ **नीतिधर्मः**—Ethical Religion
ह्या पुस्तकाचो अणकार — ० ५० ,,

८ **सत्याची साधनाः**—अध्यात्मिक विशयावेलीं
गांधीजींचीं मत्तां — १ ०० ,,

९ **मानसतीर्थः**—संसारभर गाजिल्ल्या The Mind of
Mahatma Gandhi ह्या पुस्तकाचो अणकार २.५० ,,

**मेळपाचें ठिकाणः** — **गोमंत भारती.**
मणिभवन, १९; लेबरनम रोड,
**मुंबै ७**

COVER PRINTED AT :- CAPITAL ART PRINTING PRESS, BOMBAY 4.